# जादवाचो आयणो

भरत नायक



*भौमान*

पयलेच फावट कोंकणीक

२९ सावी सर्त

राष्ट्रीय शिक्षणीक अनुसंधान आनी प्रशिक्षण परिषद

बरोवपी आनी चित्रकार

सर्वोत्तम बालसाहित्य पुरस्कार

# जादवाचो आयणो

**भरत नायक**



# जादवाचो आयणो



प्रकाशन क्रमांक : 203

1998

**प्रकाशक :**
प्रभाकर द. भिडे
राजहंस वितरण, 1-मीनाक्षी बिल्डिंग,
डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी - 403 001

**छपाई :**
राजहंस ऑफसॅट, पणजी.

**मुखपृष्ठ आनी सजावट :**
दीपक पेडणेकार

**मूल्य :**
1998 - 35 /- रु.
1999 - 35 /- रु.
2000 - 43 /- रु.

# जादवाचो आयणो

सोमी आनी गोमी दोगूय क्रिकेट बोल घेवन खेळपाक गेले. बापायन तांकां आजूच फेस्ताचो नवो बोल हाडिल्लो. पूण बॅट हाडलेंना. पिड्याचें बॅट आनी माडाचो बोंडो घेवन ते सदां घरा फाटल्या शेतांत खेळटाले. आयज तांकां नवो बोल मेळिल्ल्यान नाचत उडत मळार खेळपाक गेले. मळाक तेंकून रान सुरू जाता.

पिड्याचें बॅट तांणी वांगडा व्हेल्लेंच. झाडाच्यो तीन नीट बडयो मोडून तांणी विकेटी उब्यो केल्यो, आनी दोगूय खेळपाक लागले.

पयल्याच बोलाक गोमी आवट जालो. बोलार मारपाक उबारिल्लें बॅट विकेटींक लागलें आनी तिनूय विकेटी आडव्यो पडल्यो. तरी सोमीन ताका आनीक दोन बोल घाले. तिसऱ्या बोलाक गोमी परतून आवट.

आतां सोमी बॅटींग करूंक गेलो. गोमीचे बोल पेटोवपाक बरे मेळटाले. प्रत्येक बोलाक सोमी फोर मारतालो.

सोमी आवट जायना म्हणून गोमी बेजार जालो. 'आतां ताका आवट करतांच' अशें मनांत थरोवन गोमीन नेटान बोल घालो. ताजेपरस चड नेट काडून सोमीन त्या बोलाचेर बॅट मारलें.

झाडांवयल्यान बोल इतलो पयस गेलो, रानांत खंय पडलो तें तांकां दिसलेंचना.

दोगूय बोल सोदपाक झाडांनी गेले. 'नवोच बोल. एक दीस पसून सारके खेळूंक नात'. उलयत उलयत तांणी खूब वेळ बोल सोदलो पूण मेळ्ळोना. सोदीत सोदीत रानांत बरेच भितर पावले.

अकस्मात गोमीच्यो किळच्यो आयकूंक आयल्यो. -- 'भाई, हांव पडलों. म्हाका वयर काड.' सोमी आवाजावटेन धांवतालो, बक्क करून एका व्हडल्या फोंडकुलांत पडलो. त्याच फोंडकुलांत गोमी आसलो. दोगूय एकाच फोंडकुलांत.



फोंडकुलांतले भायर येवपाक तांणी प्रयत्न केले पूण जमलेंना. एकामेकाचे फाटीर उबे रावले तरी हात वयर पावनासलो इतलो तो फोंड खोल आसलो.

कोणेतरी अचळय उबारून सोमीक वयर जमनीर दवरलो. उपरांत गोमीक लेगीत तसोच उबारून वयर दवरलो. कोणे आमकां वयर काडले म्हणून पळयल्यार एक हतयाची सोंड. त्या फोंडांत एक मोटो हती आसलो. ताणें आपले सोंडयेन धरून तांका वयर काडिल्ले.

'पूण हो हती ह्या फोंडकुलांत कसो?' गोमीन सोमीक विचारलें.

'कोणेंतरी घातमाऱ्यान ताका धरपाखातीर सांपळो मांडून दवरिल्लो, तातूंत तो सांपडलो. आतां ते घातमारे



येतले आनी ताका धरून व्हरतले.' सोमीन सांगलें.

'काय बरो हती न्हय! ताका ते धरून मारतले रे भाई?'

'ताजे दांत काडटले आनी विकतले.'

'आमी ताका सोडुया रे भाई. ताणें आमकां वयर काडलेनात?' गोमीक हतयाची काकूट आयली.

' हय' सोमीन म्हणलें. पूण येद्या व्हडल्या हतयाक आमच्यांनी उखलूंक जाता?'

'कितें तरी आयडिया काडूंक जाय.'

बरो वेळ विचार केले उपरांत तांकां एक युक्ती येवजली. दोगांयनी मोटे मोटे फातर हाडून फोंडकुलांत हतयाच्या पांयाकडेन उडयले. खूब फातर घालतकच सपणांवरी हतयान त्या फातरांचेर पांय दवरले आनी वयर आयलो.

सोमीक आनी गोमीक ताणें दोळे बारीक करून पळयले. तांच्या माथ्यावयल्यान आपली सोंड भोंवडायली. गोमी मातसो भियेलो पूण सोमी साप भियेलोना. वयल्यान तो गोमीक सांगतालो - भियेव नाका रे गोमी. तो आमची अपुर्बाय करता.

सोमीक हती खूब आवडटालो. इतलो लागींच्यान ताणें हती केन्नाच पळोवंक नासलो. हात केन्ना लावंक नासलो. ताजे लांब सोंडयेचेर सोमी हात ओडीत रावलो. म्हणूंक लागलो, म्हाका तुजी सोंड खूब आवडटा. कितली लांब ! तूं ती कवळटा तेन्ना खूब बरो दिसता.

हतयान आपली सोंड कवळून सोमीक दाखयली.

'तूं सोंड वयर करून फाटीक कशी तेंकयता रे हतीदा?
- सोमीन ताजी सोंड सांसपीत म्हणलें.

हतयान सोंड वयर केली आनी आपले फाटीक तेंकयली.

सोमीक अजाप जालें. आपूण उलयता तें हतयाक समजता अशें ताका दिसलें. ताणें म्हणलें हत्तीदा, हत्तीदा म्हाका तुजे सोंडयेर बसोवन झेलयता ?

हतयान सोंडयेचें सकयलें पोंत सोमीक बसपाखातीर वांकडें केलें. सोमी बसलो. हतयान आपली सोंड झोपाळ्यावरी झेलयली.

गोमी भियेवन चार पावलां फाटी गेलो. 'भाई नाका, तो तुका वयर उडयतलो.' म्हणीत फाटी फाटी वचपाक लागलो.

सोमी मात खोशयेन हांसतालो. 'आनीक झेलय - आनीक झेलय' करीत ताणें खूब वेळ झेल घेतले. गोमी ताका पयस रावून पळयतालो.

सोमी झोपाळ्यावयलो देंवलो आनी गोमीक बसपाक सांगलें. 'हांव ना. म्हाका भंय दिसता.' गोमी झाडा फाटल्यान गेलो.

हतयान आपली सोंड सोमीच्या कानाक तेंकयली. 'हांव तुका म्हजे फाटीर बसोवन भोंवडावं ?' सोंडयेंतल्यान आवाज आयलो.

'हत्तीदा, तुका उलोवंक येता? वा! आतां मजा! चल बसय



म्हाका तुजे फाटीर.' सोमी खोशयेन नाचूंक लागलो. सोमीन आपले फाटीर बसचो म्हूण हत्ती जमनीर बसलो.

'गोमी यो. आमी ताजे फाटीर बसून भोंवडी मारुया.'

ना रे बाबा. तो म्हाका उडयतलो, अशें म्हणून गोमी झाडार वचून बसलो.

सोमी हतयाचे फाटीर चडून बसलो.

'बसलों हांव. ऊठ. उबो राव.' हत्ती उबो रावलो. चल आतां. चल. एक भोंवडी मारून हाड.

हती चलूंक लागलो. सोमी भुल्लुसलो. आपणाक हतयार बसूंक मेळत हें ताणें केन्नाच चिंतूंक नासलें. चलता चलतां

तो झाडांक हात लायतालो. गोमी ताका झाडार बसून पळयतालो. ताच्या म्हर्‍यांतल्यान हती गेलो. तेन्ना तो सोमीक म्हणूक लागलो, 'राव, राव, आईक सांगून दितां तुजें नांव!

'सांग-सांग. हावूंय सांगतलों आईक तूं भित्रो म्हणून' सोमीन ताका वयरूच बसून जाप दिली.



बरें व्हडलें वोल्त मारतकच हती सकल बसलो. सोमी ताचे फाटिवयलो सकल देंवलो तें पळोवन गोमीन झाडार सावन उडकी मारली आनी सोमी म्हर्‍यांत आयलो. 'भाई-भाई, तुका ताणें कांयच करूंक ना न्हय. हती कितलो बरो! हांवूय बसतां रे ताचे फाटीर."

गोमी बसपाक तयार जालो. हतयान गोमीक फाटीर घेवन आनीक एक भोंवडी मारली. खोशी जावन तो सकल देंवलो तेन्ना सोमीक म्हणूक लागलो - 'भाई ताका आमगेर व्हरुया रे.'

सोमीन हतीक सांगलें - 'हतीदा, यो रे तूं आमगेर. आमच्या आंगणांत राव. आमी खूब खेळया ''

हतयान सोंड ताच्या कानाक तेंकोवन म्हणलें - म्हजी पोरां वाट पळयतलीं.

हतयान किते सांगलें तें गोमीक आयकन दिसलें. भाई, हांव मात्शें आयकतां रे.'

हतयान रोखडीच सोंड गोमीच्या कानाक लायली आनी म्हणलें, 'आतां आमोरी जायत आयली, तुमी तुमच्या घरा चलात. हांवूय म्हज्या घरां वतां.'

सोमीन हतयाचे सोंडयेक वेंग मारून म्हणलें- हतीदा, म्हाका तुजी सोंड खूब आवडटा. कितली लांब! सामकी जमनीक तेंकता. म्हाकाय तशीच सोंड आसूंक जाय आसली.'

हती : मागीर तूं गणपती भाशेन दिसतलो आसलो.

सोमी : हय. हांव सोंडयेन उदक पितलो आसलों. लाडू, मोदक खातलो आसलों.

गोमी : हांव सोंडयेन उदक धरतलों आसलों आनी फर्र्र करून म्हज्याच माथ्यार उडोवन न्हातलों आसलों.

हती : तुमकां म्हजी सोंड बरी दिसता न्हय ! हांव तुमकां

खेळपाक एक वस्त दितां. ती घेयात आनी तुमी जाय तितले खेळात.

सोमी : दी हतीदा, दी. आमचो बोलूय शेणलो.

हती जमनीर बसलो. 'म्हज्या कानांत हात घाल. तांतूंत एक आयणो आसा तो काड.' हतयान सांगलें.

सोमीन हतयाच्या कानांत हात घालो आनी एक दोडपाचो आयणो भायर काडलो. ताणें तो हतयाक दाखयलो - 'हो मरे? ह्या आयण्यान आमी कशे खेळटले?'

हतयान सांगलें, पिशा, हो सादो आयणो न्हय. जादवाचो आयणो तो जादवाचो. तो उगतो कर आनी उजव्या हातान वारो घे पळोवया.'

दोड सोडलेबरोबर आयणो फुललो. सोमीन उजव्या हातान धरलो आनी आपणाकूच वारो घेतलो. जाल्यार सोमीचें नाक दोन हात लांब जालें.

तें पळोवन गोमीक लेगीत आपलें नाक लांब करीन दिसलें. ताणे सोमीकडलो आयणो घेवन आपणें वारो घेतलो. ताचेंय नाक दोन हात लांब जालें.

दोगय नाकांनी खेळपाक लागले. हतयान तांकां सांगलें - 'रावात. पयलीं हांव सांगतां तशें करात. आतां तो आयणो दाव्या हातान धरून दावे वटेन वारो घेयात.'

सोमीन तशें केलें. दावे वटेन वारो घेतकच सोमीचें नाक आसलें तशें ल्हान जालें. उपरांत गोमीनूय आपलें नाक ल्हान

केलें.

हतयान सांगलें, पळयलें मरे, ह्या आयण्यानं तुमच्यांनी तुमचें नाक जाय तेन्ना लांब करू येता, जाय तेन्ना मोटवें करूं येता. आतां चलात घरा. जाय तितले खेळात. फाल्यां आमोरी जावचे पयलीं मात म्हजो आयणो म्हाका हाडून दियात. चलात, वतना तुमचो बोलूय घेवन चलात.' अशें म्हणून हतयान आपली सोंड वयर करून झाडाचे खांचीत घाली आनी बोल काडून दिलो.

सोमी आनी गोमी आयणो आनी बोल घेवन नाचत उडत आमोरे पयलीं घरा पावले.

सोमी आनी गोमी आयणो आनी बोल घेवन घरा पावले तेन्ना चड काळोख जावंक नासलो. म्हणून आईन तांकां कांय केलेंना, हातपांय धुवन देवाक पांयां पडले आनी भितरले कुडींत वचून दोगूय खबरी करूंक लागले.

सोमी : आईची आनी बाबाची मजा करुया. रातची न्हिदल्या उपरांत दोगांयचीं नाकां लांब करून दवरुया. सकाळीं उठून बोवाळ घालतलीं.

गोमी : आनी आमकां मारले जाल्यार ?

सोमी : तांकां कशें कळटलें, आमी केलां म्हणून?

गोमी : परतून ल्हान करतना तांकां कळटलेंच. आयणो काडून उज्यांत घालो जाल्यार? फाल्यां हतीदाक खंयचो दितले?



सोमी : हय रे हय. खरें तुजें. आसूं तें. आमी फाल्यां सकाळीं खेळुया.

दोगूय जेवन बी न्हिदूंक गेले. आयण्याची खबर कोणाक सांगलिना. आई आनी बाबा न्हिदून कितलोसो वेळ जालो तरी सोमीक न्हीद पडना जाली. तो मदीच उठलो. गोमीक उठयलोना. बापूय थार न्हिदिल्लो. सोमीन आयणो उगडलो आनी बापायच्या नाकाक उजवे वटेन वारो घालो. आयण्याचो वारो लागनाफुडें बापायचें नाक न्हिदिल्लेकडेनूच दोन हात लांब जालें.

इतल्यान आवय जागी जाली. सोमीन बेगिबेगीन

माथ्यावयल्यान कांबरूण घेतलें आनी खांचिंतल्यान आवयक पळोवंक लागलो. चान्न्याच्या उजवाडांत आवयक तें लांब नाक दिसलें. तिचो आपल्या दोळ्यांचेर विस्वास बसना जालो. तिणें दिवो पेटयलो आनी दोळे चोळून सारकें पळयलें. नाक खऱ्यांनीच दोन हात लांब! आपूण सपनांत आसां अशें तिका दिसलें. तिणें हात लावन सोमीक उठयलो. सोमी आतांच न्हिदेंतलो उठिल्लेवरी उठलो.

'सोमी, पळय रे. तुका बाबाचें नाक लांब दिसना'?

'खंय गे आई! बाबाचें नाक आसा तशेंच आसा.

तूं न्हीद पळोवया.' सोमीन सांगलें.

' म्हाका वोगीच दिसता आसतलें....' आपले भितर बडबडत आई दिवो पालोवन न्हिदली.

सोमी ल्हवूच उठलो आनी आयण्यान वारो घालून बाबाचें नाक आसलें तशें ल्हान करून न्हिदलो.

आईक हुसक्यान दोळो लागलोना. तिणें फाट वळून नाक पळयलें. तिका नाक सारकें दिसलें. तेन्ना तिजें समाधान जालें. आपल्याकं भास जाला आसतलो अशें म्हणून ती दोळे धांपून न्हिदली. आयणो मेजाच्या खणांत दवरून सोमीय गाड न्हिदलो.

सकाळीं जाग आयली तेन्ना आई रडटाली आनी बाबा कितें तरी उलयतालो. गोमीन सोमीक विचारलें - 'आई कित्याक रडटा रे ?'

‘हांव नकळों. वचून पळय.’

गोमी रोखडोच खबर घेवन आयलो नळे काडून रातीं चोर भितर आयलो खंय. आईची कांकणां आनी बाबाचो सगलो पगार घेवन गेलो.’

सोमी बेगिबेगीन उठलो आनी मेजाचो खण उगतो करपाक गेलो. गवेत उकतेंच आसलें. सोमीन गवेतांत हात घालून आयणो सोदलो. आयणो ना.

‘गोमी, आयणो व्हेलो चोरान. हांगाच दवरिल्लो हांवें’ सोमी उतावीळ जालो.

गवेत भायर ओडून गोमीन सोदलो. आयणो नाच.

शेजारी आयले. घरांत सगलो बोवाळ जालो. बाबा पुलीस स्टेशनार गेलो. आई आपल्या कपलार हात मारून चोरयेची गजाल जमिल्ल्या लोकांक सांगताली. सोमी आनी गोमी कोनशाक बसून एकामेकाच्या तोंडाक पळयताले.

इतल्यान कोणे तरी खबर हाडली. ‘काशिनाथाच्या चेड्याचें नाक देड मिटर लांब जालें.’ दोन वर्सांचो चेडो. दोन फूट ऊंच. पूण नाक साडेचार फूट लांब. चेड्यापरस नाक व्हड जाल्ल्यान उबो रावूंक आनी बसूंक लेगीत जायना. न्हिदुनूच आसता खंय. खबर आयकून सगले काशिनाथाच्या चेड्याचें नाक पळोवंक गेले.

सोमी-गोमीचे तकलेंत लायट पेटली. दोगूय सट्ट करून उबे रावले. ‘आई, चोर सांपडलो. आमी जाणात

कोणें चोरलां तें.' सोमीन आईक सांगलें.

'कोणें चोरलां रे? खंय आसा चोर?' आवयन दोळे पुशीत विचारलें.

'तूं हांगाच बस. आमी चोरयेक गेल्लें सगळें सामान घेवन येतात.' सोमीन आईक धीर दिलो आनी धांवत काशिनाथागेर गेलो. ताचे फाटोफाट गोमीय गेलो.

काशिनाथागेर गर्दी जाल्ली. भितर वचपाक वाट नासली. सोमी आनी गोमी लोकांच्या दांगांपोंदच्यान वाट काडीत भितर गेले. चेड्याचें नाक पळोवन पयली तांकां हांसूंक आयलें.

आवय चेड्याक मांडयेर घेवन रडटाली. ताचें नाक जमनीर लोळटालें. काशिनाथ दोतोराक हाडूंक गेल्लो.



'हांव चेड्याचें नाक एका मिनटांत सारकें करतां. तुमी सगळे भायर चलात. एका मिनटा उपरांत तुमकां भितर आपयतां. चलात. प्लीझ', सोमीन आवाज चडोवन लोकांक सांगलें.

पयलीं लोकानी ह्या भुरग्याचें कानामनार घेतलेंना. पूण चेड्याचे आवयन सांगतकच सगळे भायर गेले. 'तूं कितें करतलो रे पोरा?' चेड्याआवयन सोमीक विचारलें.

'तुमगेर एक दोडपाचो आयणो आसल्यार दी'. गोमी

'तो पळय खेळण्याच्या पांटल्यांत आसा.' आवयन मेजापोंदा आशिल्ल्या पांटल्याक बोट दाखयलें. सोमीन खेळणीं जमनीर ओतलीं आनी आयणो घेतलो. तोच आयणो. 'आतां आमचें काम जालें.'

'कोणें हाडिल्लो गे हो आयणो ?' गोमीन विचारलें.

'ताच्याच बापायन दिल्लो ताका खेळपाक' तिणें सांगलें.

'तूं कांयच भियेव नाका. तुज्या चेड्याचें नाक आमी एका मिनटांत सारकें करतात. तूं मातशी भायर वच.' सोमीन सांगलें.

'पळोवया तरी भुरगे कितें करतात ते.' अशें म्हणून ती भायर गेली. गोमीन दार धांपलें. सोमीन बेगिबेगीन आयण्यान दावे वटेन वारो घालून चेड्याचें नाक ल्हान केलें. आयणो दोडून बोल्सांत घालो. दार उगडलें आनी गर्देतल्यान वाट काडीत दोगूय धांवले ते सामके पुलीस स्टेशनाचेर. तांचो

बापूय इन्स्पेक्टराकडेन उलयतालो.

'बाबा-बाबा, चोर सांपडलो'. दोगांयनी वांगडाच बापायक सांगलें.

'कसो सांपडलो? खंय सांपडलो?' बापायन विचारलें.

'हो पळय आमचो आयणो'-सोमी

'आरे सारकें सांग पळोवया कितें तें. बस हांगा'. इन्स्पेक्टरान ताका कदेलीर बसयलो.

'हो आमचो आयणो रातीं चोरयेक गेल्लो. तो काशिनाथागेर मेळ्ळो. सगळें सामान तांगेरूच आसूंक जाय, गोमीन सावकासायेन सांगलें.

बापायन इन्स्पेक्टराक सांगलें. इन्स्पेक्टरसायब ताणेंच चोरलां आसतलें. तसलोच तो. एकदां ताका राजारामागेर चोरतना धरिल्लो. इन्स्पेक्टरसायब,. चलात. बेगीन गेल्यार सगळें सामान मेळटलें. मागीर तो लिपोवन दवरतलो'.

इन्स्पेक्टर पुलिसांक घेवन काशिनाथागेर गेलो. झडटी घेतली तेन्ना चोरयेक गेल्लें सगळें सामान काशिनाथाच्या घरांत सांपडलें.

इन्स्पेक्टरान काशिनाथाक जिपींत घालून पुलिसेंत व्हेलो आनी चावी करून दवरलो. घराफाटल्या शेतांत दोगूय आयणो आनी बोल घेवन खेळूंक गेले. हें शेत रस्त्याचे कडेक आसा.

'ह्या आयण्यान आमी कसलो खेळ खेळटले?' तांकां

प्रस्न पडलो,

'आयडिया!' गोमी आड्‌डलो. 'आमी नाक लांब करुया आनी क्रिकेट खेळुया. बॅटाच्या बदला नाक वापरुया. हांव बोलींग करतां. तूं तुज्या नाकान बॅटींग कर'.

'गूड!' सोमीक ताजी आयडिया मानवली. ताणें आयणो काडलो. आनी उजव्यान वारो घालून आपलें नाक लांब केलें. बॅटावरी नाक जमनीक तेंकोवन उबो रावलो.

गोमीन बोल घालो. सोमीन नाक मारून ताजो बोल परतिलो. गोमीन परतून एक फावट बोल घालो. ह्या वेळार सोमीन नेटान नाक मारलें. बोल सामको शेताच्या भायर पावलो.

'फोर!' सोमी आड्‌डलो.

आतां मात गोमीन सारको बोल घालून सोमीक आवट केलो. गोमी बॅटिंगेक तयार जालो. सोमीन आयणो काडून ताजें नाक लांब केलें, आनी आपलें नाक आसलें तशें ल्हान केलें.

रसत्यावयल्यान स्कुटर घेवन एक दादलो वतालो. वतां वतां ताणें तांकां नाक लांब करतना पळयलें. स्कुटर थारोवन तो रसत्यार उबो रावलो आनी तांचो खेळ पळोवंक लागलो.

सोमी बोलीग करतालो आनी गोमी आपल्या नाकान

बॅटींग करतालो. थोड्या वेळान गोमी आवट जालो. तो दादलो ताळयो मारूंक लागलो. गोमीन म्हणलें - 'पुरो, आतां आमी दुसरो खेळ खेळुया.'

ते दुसरो खेळ  खेळूंक लागले. दोगायनी आपापणलीं नाकां लांब केलीं, सोमीन नाक मारून बोल गोमीकडेन उडयलो. गोमीन आपलें नाक मारून बोल परतून सोमीकडेन उडयलो.

हो खेळ चालू आसतना तो दादलो हांसत हांसत शेतांत देंवलो. म्हणूक लागलो, 'वा भुरग्यांनो! तुमचो खेळ म्हाका आवडलो. म्हाकाय हो खेळ खेळन दिसता. म्हाका खेळूंक घेवचेनात?'



सोमीन ताका सांगलें - 'हो भुरग्यांचो खेळ. तूं व्हडलो दादलो' तो दादलो काकुटेक आयलो. 'जावं रे! मातसो खेळटां आनी हांव वतां. मागीर तुमी जाय तितले खेळात.'

'तूं खंयचो?' सोमीन ताका दुबावान पळयलें.

'आरे तुमी म्हाका वळखनात? हांव तातू मरे! तुमच्या गांवचो. हें तें धवें घर दिसना? तांचो भावोजी हांव. मातसो खेळटां, प्लीझ!'

गोमीक ताची दया आयली. ताणें सोमीक ल्हवूच सांगलें - 'घेवया रे ताका भाई. तो रोखडो वतलो.'

'बरें आसा. यो. पूण तुजें नाक लांब करचें पडटलें', सोमीन आयणो भायर काडलो.



'उपकारता! पूण खेळ सोंपले उपरांत नाक आसा तशें ल्हान करचें पडटलें,' तातून सांगलें.

'हयवय. आमी तुजें नाक आसा तशेंच करून दितात.' सोमी फुल्लो. तातूक उजवे वटेन वारो घालून तातूचें नाक लांब केलें आनी ताका खेळूंक घेतलो.

तिगूय लांब नाकांनी एकामेकाकडेन वयलेवयर बोल उडोवच्यांनी खूब खेळ्ळे. खेळून खेळून तांची नाकां दुखलीं तेन्ना तांणी खेळ बंद केलो.

'चल, आतां आमचीं नाकां आसलीं तशीं ल्हान कर' तातू आपलें नाक घेवन सोमी म्हऱ्यांत आयलो. सोमीन पयली तातूचें नाक ल्हान केलें. मागीर गोमीचें आनी निमाणें आपलें नाक ल्हान करून आयणो परतून बोल्सांत घालो.

तातून आपलें बोल्सांतलें पयशांचें पाकीट काडीत म्हणलें - भुरग्यांनो, तुमकां खेळून खेळून पुरो जालां आसतलें न्हय? चलात, आमी आयस्क्रीम खावया.'

आयस्क्रिमाचें नांव आयकून दोगांयच्या तोंडाक उदक सुटलें. गोमीन म्हणलें, - 'आयस्क्रीम हांगा मेळना. थंय बाजाराकडेन वचचें पडटा.'

'थंय व्हडलें हॉटेल आसा.' सोमीन सांगलें.'

'चलात. हांव तुमकां स्कूटरीचेर बसोवन थंय व्हरून हाडटां. आयस्क्रिमां थंय खावपाचीं आनी च्यॉकलेटी खायत

घरा वचपाचें'.

दोगांयची तोंडां उमेदीन उजळ्ळी. दोगूय ताचे स्कुटरीचेर बसले. तातू तांकां घेवन बाजाराकडल्या व्हडल्या हॉटेलांत गेलो. ताणें नेटान हॉटॅलकाराक उलो मारलो. हॉटेलकारा, हे घे पयशे. ह्या भुरग्यांक एक एक आयस्क्रीम आनी एक एक व्हडली च्यॉकलेट दी. चलात रे बसात थंय आनी खायात.'' ताणे हॉटेलकाराक सोमते पयशे दिले.



सोमी आनी गोमी तेंकून तेंकून बसले. हॉटेलकारान तांकां आयस्क्रिमां हाडून दिलीं. दोगूय खावंक लागले. तातू तांकां गजाली सांगतालो.

'तुमचो तो खेळ एकदम बरो आं! हांव फाल्यां येतलों खेळूंक फाल्यांय अशेच खेळुया आनी

आयस्क्रीम खावया. तो आयणो कॉमीक, न्हय? उजवे वटेन वारो घाल्यार नाक लांब जाता न्हय?''

सोमीन खातांखातां तकली हालयली.

'आनी दावे वटेन हालयल्यार ल्हान जाता न्हय?'

सोमीन परतून तशीच तकली हालयली.

'मातसो तो आयणो दी पळोवया. त्या हॉटेलकाराची कॉमीक करतां.'

सोमीन बोल्सांतलो आयणो काडून तातूक दिलो आनी आयस्क्रीम खायत हॉटेलकाराची कॉमीक पळोवंक लागलो. पूण तातू हॉटेलकाराच्या म्हर्‍यांत वचनासतना भायर गेलो आनी स्कुटर स्टार्ट मारून भूर्रर्र करून नाच्च जालो. सोमी आनी गोमी हॉटेलाच्या दारार वचून ताका पळयत उबे रावले.

गोमी रडपाक तेंकलो. 'भाई, आयणो घेवन गेलो मरे तो. आतां आमी हतीदाक खंयचो दितले?'

सोमीन ताका धीर दिलो 'आमच्या गांवचो भावोजी मरे तो. वतलो खंय? चल आमी त्या धव्या घरांत वचुया'.

दोगूय धांवत तातून बोट दाखयल्ल्या त्या धव्या घरांत गेले. भायरूच एक चली सोंप्यार बशिल्ली. सोमीन तिका विचारलें. 'तुमचो भावोजी खंय आसा?'

'भावोजी? आमकां भावोजीच ना. कोण रे तुमी? कोणाले?



खंयच्या भावोजीक सोदतात?' ती चली तांकां हांसली.

सोमीन तिका स्पश्ट सांगलें 'तुमचो भावोजी आमचो आयणो घेवन पळ्ळो. गोमी, नांव कितें रे ताजें?'

'तातू' गोमीन सट् करून सांगलें.

'तातू?' चली मोटचान हांसलें. म्हाका भयणूच ना आनी भावूय ना. हांव एकलेंच. म्हाका भावोजी कसो आसतलो?'

'ताणें ह्या घराक बोट दाखयल्लें.' गोमीच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं.

'कोणें तरी तुमचीं फकाणां केल्यांत जातली. आयणोच

व्हेलो मरे? दुसरो घेयात. चलात.' चली तांकां हांसत भितर गेली.

दोगांयचीं तोंडां पडलीं. गोमी जाल्यार रडपाकूच लागलो. सोमीन ताजे दोळे पुसले. गोमी, रडू नाका रे. आमी रानांत वचून हतीदाक खरी गजाल सांगुया. तो आमकां कांय करचोना.'

दोगूय रडत रानांत गेले आनी हतीदा.... हत्तीदा... करून मोट्यान उलो मारूंक लागले. थोड्या वेळान हती खंयच्यान तरी आयलो. सोमीन हतयाक रडत सांगलें, हत्तीदा.. तुवें दिल्लो आयणो तातू घेवन पळ्ळो.'

'कोण तातू रे?' हतयान रागान विचारलें.

एक दादलो' गोमी भियेत उलयलो.

हतयान आपली सोंड वयर केली आनी ऊं..... आँ.......' असो मोट्यान आवाज केलो. गोमी भियेवन सोमी फाटल्यान लिपलो.

'आरे रे!' घात केलो. आतां म्हजें कशें जातलें?'' हत्ती उलयलो.

सोमीन धीर करून विचारलें, कितें जालें हत्तीदा?'

'आरे, तो आयणो आसा म्हणून म्हाका ही सोंड आसा. धा दिसांभितर तो आयणो म्हज्या कानांत घालोना जाल्यार

म्हजी सोंड दिसानदीस ल्हान ल्हान जायत वतली आनी निमाणें नाच्च जातली. मागीर हांव फडफडून मरतलों.'

हतयान परतून एक फावट रागान सोंड वयर करून आवाज केलो. सोमीन कडकडत म्हणलें 'हत्तीदा, आमी कितें करूं? आमी मुद्दम शेणोवंक ना. तो घेवन गेलो.'

'चलात, ताका सोदून काडात आनी धा दिसांभितर तो आयणो हाडून म्हज्या कानांत घालात. ना जाल्यार हांव तुमकां मेल्लों दिसतलों. बेगीन चलात.' अशें म्हणून हती आवाज करीत रानांत गेलो.

आयणो घेवन गेल्लो तातू स्कुटरीर बसून सोमतो फेस्ताचे फेरयेक गेलो. फेरयेंत खूब लोक. रंगीत कपडे घालून चले-चलयो, दादले-बायलो, जाणटीं-भुरगीं फेरयेंतलें सामान घेतालीं.

स्कूटर एकेकडेक दवरून तातू फेरयेंत भितर सरलो. ताणें खूब लोकांचीं फकाणां केलीं. चलतां चलतां लोकांचीं नाकां लांब केलीं. नाकां लांब जाल्ल्यान गर्दीत भोंवपाक त्रास जातालें. नाकां दुसऱ्यांक लागतालीं आनी झगडीं जातालीं. मागीर तातू ल्हवच वचून तांचीं नाकां ल्हान करतालो आनी दुसरे वटेन वतालो.

खाज्यामांडार एक मनीस खाजें घेतालो. थंय आयणो

हालोवन तातून ताजें नाक लांब केलें. नाक खाज्या पांट्यांत लोळटा तें पळोवन खाजेकार ताचेर तापलो. व्हडलीं झगडीं जायत म्हणून तातून बेगिबेगीन ताचें नाक सारकें केलें आनी तिसरेकडेन गेलो.

एक मनीस चणे घेतालो. ताचें नाक लांब करून तातू मजा पळोवंक लागलो. त्या मनशाचें नाक चण्याचे राशीक तेंकलें. स्वास भितर घेतना थोडे चणे ताच्या नाकांत भितर गेले. तेबरोबर नाकांत कातकुतल्यो जाल्यो आनी मनशाक शींक आयली. ताणें शींक काडली. शिंकेबरोबर चण्यांनी शेमूड पडलो. दोगांयचीं झगडीं सुरू जालीं. तातून ल्हवच ताचें नाक सारकें केलें आनी थंयचो नाच जालो.



एके भजेकान्नी म्हन्यांत गेलो. भजेकान्न कायली म्हन्यांत बसून भजीं भाजताली. 'आगे भजेकान्नी, उज्या म्हन्यांत बसून तुका गरमी जायना गे? घे, हांव तुका वारो घालतां.' अशें म्हणलें आनी तातून भजेकान्नीक उजवे वटेन वारो घालो. तिचें नाक लांब जावन कायलीक तेंकलें. हुनहुनीत कायल नाकाक लागलेबरोबर भजेकान्न हुयेल मारीत उठली. तिच्या नाकाक नाल्लायेदो फोड आयलो. आपल्याक मार पडत म्हणून तातून बेगिबेगीन दावे वटेन आयणो हालोवन तिजें नाक ल्हान केलें आनी पळ्ळो. भजेकान्नीच्या नाकावयलो फोड भज्यायेदो जालो.

थंयच एक बाग आसली. बागेंत जायते लोक विसव घेताले. एक मनीस तोंडार तांबडो लेंस घालून सुस्त बरो जमनीर न्हिदिल्लो. तातू ताचें म्हन्यांत गेलो आनी न्हिदिल्लेकडेन नाका उजवे वटेन



वारो घालीत रावलो. ताचें नाक माडाइतलें लांब केलें आनी आपूण पयस वचून बसलो. तोंडार आशिल्लो लेंस वयर नाकाचे तेंगशेर  पावलो.

भोंवडेकारांखातीर नवें कितें तरी बांदून काडलां अशें समजून लोक लागीं वचून  पळोवंक लागले. पळयल्यार मनीस न्हिदला आनी ताजें नाक माडाइतलें लांब जालां. पयस रावून फेरयेंतल्या लोकांक तें नाक आनी ताजेवयलो तांबडो लेंस दिसतालो. ल्हवू ल्हवू थंय आनीक लोक जमले. खबर सगळयांक कळ्ळी तेन्ना फेरयेपरस नाकाम्हऱ्यांत गर्दी चड जाली.

गर्दी पळोवन पुलीस दांडे घेवन थंय गेले. लोकांक पयस केले आनी नाकार दांडो मारून त्या न्हिदिल्ल्या मनशाक जागो केलो. मनीस फडफडून जागो जालो. पूण उठपाक जायना. हातपांय हालतात पूण तकली हालना. आपल्या नाकार हो माड कित्याक दवरला म्हणून हात लावन पळयल्यार आपलेंच नाक  लांब जालां म्हणपाचें ताका कळ्ळें. नाकाच्या वयल्या पोंतार आपलो तांबडो लेंस पळोवन  न्हिदला थंयच आपलें नाक लांब जालें  हें ताका समजलें. तो सगळोच घामेलो. घाम पुसतलो म्हळयार लेंस कितलो वयर! 'म्हजो लेस - म्हजो लेंस' म्हणीत तो पुलिसांक आपोवंक लागलो.

त्याच वेळार  थंय इन्स्पेक्टर पावलो. हांव तुजो लेंस

काडून दितां' अशें सांगून इन्स्पेक्टरान ताका शांत केलो. आपल्या बोल्सांतलो लेंस काडून ताजे दोळे, कपल आनी तोंड पुसलें.

रोखडीच ताणें पुलिसांक ओर्द सोडली - 'नाकार वयर चड आनी तो लेंस सकल उडय.'

पुलीस बाबडो माडार चडटा तसो नाकार चडपाक लागलो. घाम येवन नाक ओलें जाल्लें. पुलीस चार पावलां वयर चडलो आनी झरझरीत निसरून सकल आयलो. परतून चडलो, परतून सुळसुळून सकल देंवलो. असो चार पांच फावटी निसरले उपरांत इन्स्पेक्टरान दुसऱ्या पुलिसाक चडयलो. तोय तसोच निसरूंक लागलो. तेन्ना इन्स्पेक्टरान जमिल्ल्या लोकांक व्हडान सांगलें - 'जो कोण ह्या नाकार चडून तो लेंस सकल उडयता ताका पांचशें रुपया इनाम दितलों.'

जायत्या जाणांनी सर्तींत वांटो घेतलो. कोणूच त्या नाकावयल्या तांबड्या लेंसाक हात लावंक शकलोना. त्या न्हिदिल्ल्या मनशाचे मात पांय दवरून सगळें आंग दुखयलें आनी नाकूय दुखयलें.

निमाणें सर्त बंद केली आनी निसण हाडूंक लायली. पूण माडाइतली ऊंच निसण कोणागेरूच मेळ्ळिना.

एक रेंदेर फेस्ताक म्हणून आयिल्लो. फेस्ताचे चणे



खायत तो ही सगळी करामत पळयतालो. चणे सोंपतकच ताणें एक सुमाचें गुणें घेतलें आनी नाका म्हर्‍यांत आयलो. ताणें इन्स्पेक्टराक सांगलें, 'हांव तो लेंस काडून दाखयतां.'

हातांतल्या सुमाचें ताणें खाडूं तयार केलें आनी पांयांक घालून झरझरीत नाकार चडलो. सामको तेंगशेर पावलो. लेंस काडून सकल उडयलो आनी वयर उबो रावून लोकांक हात दाखयलो. लोकांनी ताळयो मारून, शिळोणी घालून ताका शाबासकी दिली. चारूय वटांनी घुंवन सगळया लोकांक हात दाखयता आसतना ताचो पांय निसरलो आनी रेंदेर नाकांत भितर पडलो.

वयर उबो आशिल्लो मनीस अकस्मात ना जाल्लो



पळोवन लोक अजाप जाले. पुलिसूय हेवटेन तेवटेन पळोवंक लागले. 'उडून बी गेलो काय?'' अशें येवजितना तो नाकोटयो मनीस सांगूंक लागलो, पुलीस, पुलीस म्हज्या नाकांत कितें तरी हुळहुळटा' आनी एकदम शींक काडली. शिंकेच्या नेटान रेंदेर उसळून नाकाचे पुडयेंतल्यान भायर आयलो. वयर उसळ्ळो आनी परतून दुसरे पुडयेंत पडलो. 'आतां हे पुडयेंत हुळहुळटा'', म्हणून ताणें आनीक एक शींक काडली. रेंदेर परतून वयर उसळ्ळो आनी तेच पुडयेंत पडलो.

आतां त्या रेंदराक भायर कसो काडप? हो दुसरो प्रस्न पुलिसांक पडलो. आनी एक शींक काड म्हणल्यार ताका

आनीक शीक येना. पूण ताच्या नाकाची एक पुडी बंद जाली.

दुसरो एक पुलीस खाडूं घालून वयर चडपाक तयार जालो. एक लांब राजू ताणें खांदार घेतलो आनी तो वयर चडलो. सामको तेंगशेर उबो रावलो आनी बांयंत सोडटात तसो राजू नाकांत भितर सोडलो. राजवाचें दुसरें पोंत आपल्या हातांत घट धरलें.

नाकांत आशिल्ल्या रेंदेरान राजू आपल्या भेंडाक बांदलो. पुलीस वयर रावून ताका ओडूंक लागलो. बांयंतलो भरिल्लो कळसो वयर काडटात तसो पुलीस ताका वयर काडटालो. एक-दोन मिटर वयर काडला मात, पुलीस राजू घेवन भितर पडलो.

पुलीस आनी रेंदेर काळखाकुडींत धांपून घाल्लेवरी एकामेकाक वेंग मारून व्हडाव्हडान हुयेली मारीत भुरग्यांभाशेन रडूंक लागले. पूण तांचें रडप त्या नाकोटया मनशाक सोडल्यार दुसऱ्या कोणाक आयकूंक येनासलें.

घण-घण-घण-घण घांट वाजयत उजो पालोवपाची गाडी आयली. पुलिसांनी लोकांक कुशीक काडून गाडयेक वाट करून दिली. गाडी कितें करता तें पळोवपाक लोक उत्सुकतायेन राविल्ले. पूण तांची ती निसण, ओडून लांब केली तरी नाकाच्या वयल्या पोंताक तेंकलिना.

एका मनशान आयडिया दिली. तें नाक जमनीर आडवें उडयात. दोगूय चलून नाकांतल्यान भायर येतले.' ही आयडिया इन्स्पेक्टराक मानवली. गाडयेंतलो व्हडलो राजू भायर काडलो. एक पोंत नाकाक घट्ट बांदलें. दुसरें पोंत गाडयेक बांदलें आनी गाडी स्टार्ट मारून ल्हवल्हव चलयली. गाडी चलयली तशेंतशें नाक वाकडें जाताले. गाडी बरीच पयस पावली, तेन्ना व्हडलो माड जमनीर पडचो तशें तें नाक घबांयच करून जमनीर कोसळ्ळें. नाक दुखलें म्हणून ताणें एक हुयेल मारली आनी उदारो न्हिदिल्लो तो एके कुशीक जालो.

नाक जमनीर पडलेबरोबर भितर आशिल्लो रेंदेर आनी पुलीस दोगूय घसरगुंडेवरी सुळसुळून आपशींच भायर आयले. खंयचो पुलीस आनी खंयचो रेदेंर तें वळखूंक येनासलें, इतले ते बुडबुडीत जाल्ले. उजो वाडोवपाचे गाडयेन उदक मारून तांकां दोगांकूय न्हाणयले तेन्ना ते वळखूंक आयले.

तो नाकोटयो एका हातान आपलें नाक धाडायत बोवाळ घालूंक लागलो - 'भितर कितें तरी उरलां तें काडात.' राजू आनी पुलिसाची तोपी भितर उरिल्ली. भितर सगळें बुळबुळीत जाल्ल्यान कोणूच वचपाक तयार जालोना. तांकां न्हाणयल्ले तेंच पायप नाकांत घालून घसघसीत उदक मारलें आनी नाकाच्यो दोनूय पुडयो पयल्यो धुवन घेतल्यो. उपरांत एक



पुलीस चलून भितर गेलो आनी तोपी, दोरी घेवन भायर आयलो तेन्ना ताणें नाकांतल्यान मेकळो स्वास घेतलो.

खाजें, चणे खावन उडयल्ली कागदां, पोलिथिनच्यो पोतयो बी स्वासाबरोबर ताज्या नाकांत भितर वताल्यो आनी भायर येताल्यो. ल्हान भुरगीं मुद्दाम ताच्या नाकाकडेन कागदां दवरतालीं आनी ताळयो मारून हांसत खेळटालीं.

आमोरी जाली तशे लोक आपापणाल्या घरा वचपाक लागले तेन्ना भुरगीं मुद्दाम थंय खेळपाखातीर एकठांय जालीं. थोडीं नाकार चडून जमनीर उडक्यो मारच्यानी खेळ्ळीं, थोडीं नाकांत लिपून आपालिपा खेळ्ळीं.

रात जाली. सगळे लोक न्हिदूंक गेले. तो बाबडो थंयच

पडून रावलो. येदें व्हडलें नाक घेवन वतलो कसो?

आडेकडेक कोण ना तें पळोवन तातू आयणो घेवन ताचे म्हऱ्यांत आयलो. ताचे कुशीक न्हिदून ताच्या कानांत म्हणूंक लागलो - 'हांवें तुजें नाक सारकें केल्यार तूं म्हाका कितें दितलो?'

नाकोटयान म्हणलें, ' म्हजेकडेन कितें आसा? ह्या बोटांत एक मुदी आनी फाटल्या बोल्सांत थोडे पयशे आसात ते व्हर'.

तातून ताज्या बोटांतली मुदी काडली. फाटल्या बोल्सांतले पयशे काडून आपल्या बोल्सांत घाले. उपरांत एक हात ताच्या दोळयांचेर धरून दुसऱ्या हातान ताका दावे वटेन वारो घालो आनी ताचें नाक आसलें तशें केलें.

'देव बरें करूं - देव बरें करूं' अशें बडबडत तो मनीस घरा गेलो.

तातून चिंतलें, 'असल्या बारीक लोकांक त्रास करून चड पयशे मेळनात. बऱ्या व्हडल्या गिरेस्ताक त्रासांत घालूंक जाय. मागीर तो मागता तें दितलो. हांव खूब गिरेस्त जातलों.''

दुसऱ्या दिसा तातू आयणो घेवन व्हडल्या शारांत गेलो. फुटपायरेर उबो रावून गाडयांक पळोवंक लागलो.

एक धविफुल्ल गाडी येवन थारली. ड्रायवरान धवो कोट

घाल्लो. माथ्याक धवी तोपी घाल्ली. ड्रायवरान सकल देंवून बेगिबेगीन फाटलें दार उगडलें आनी आपूण तायट उबो रावलो. एक सोबीत चेडू देंवलें आनी लागींच आशिल्ल्या कपड्यांच्या लोजांत भितर सरलें.

'पार्टेक न्हेसपाची बरिशी साडी दाकोय रे.' अशें ताणें म्हणटांच लोजांतल्या मनशान पंदरा सोळा साडयो चेडवा म्हऱ्यांत उडयल्यो.

ताचे फाटोफाट तातू त्याच लोजांत भितर सरलो आनी त्या चेडवाचे उजवे वटेन रावलो. साडयेक हात लावपाचें निमीत करून ताणें ल्हवूच आयणो फुलयलो आनी चेडवाच्या नाकाक वारो घालो. चेडवाचें नाक तीन हात लांब जालें.

'हें किदें दवरलां रे साडयांचेर?' चेडूं पसरकाराचेर तापलें.

'बाय, तुजेंच नाक तें.' पसरकारान चेडवाक सांगतकच चेडवान हात लावन पळयलें आनी थंयच रडूंक लागलें. लोजावयलें सगळें गिरायक त्या चेडवाभोंवतणी पुंजा जालें. चेडवाक सामकी लज जाली. ताणे थंयची एक साडी विकती घेवन नाकाक गुटलायली आनी बेगिबेगीन कशें तरी गाडयेंत बसून ड्रायवराक गाडी घरा व्हरूंक सांगलें. ताचें नाक फुडल्या सिटाक तेंकतालें. पांयांमदें सिटांचे खांचीत नाक घालून तें बावडें बसून रावलें.

इतल्या बोवाळांत चेडवाची पर्स कपड्यांच्या लोजार उरली. ती तातून पळयली. तातून पर्स उबारली ती पसरकारान पळयली. ताणें चोर-चोर म्हणून बोवाळ घालो. लोकांनी तातूक धरून  बरोच पेटलो. ताच्या हातांतली पर्स काडून घेतकच तातून धांव मारली. पर्स चोराक कशीच व्हरूंक दिलिना म्हूण मारपी लोक खोशी जाले. पूण पर्स उगडून भितर पळयल्यार कांय ना. नोटींचें बंडल घेवन तो चोर पळ्ळो.

तें चेडूं गाडयेंत बसून आपणाल्या बंगल्यार पावलें. पूण ताका गाडयेंतलें सकल देंवूंक जायना. ताचें नाक दोनाय सिटांमदें शिरकलें.

'मांय, माजे मांय' करून तें मांयक उलो मारूंक लागलें. ड्रायवरान ताका ओडून भायर काडपाचो प्रयत्न केलो. ताचेलागीं जालेंना तेन्ना ताणें भितर वचून ताजे मांयक सांगलें. मांयचे फाटोफाट सगळे नोकर धांवत गाडयेकडेन गेले. ताजें तें व्हडलें नाक पळोवन मांयक लेगीत रडूंक आयलें. सगळया नोकरांनी गाडयेचो फुडलो सीट हालोवन हालोवन वांकडो केलो आनी चेडवाक भायर काडलें. एका नोकरान ताचें नाक आपल्या खांदार घेतलें आनी ल्हवू ल्हवू चलयत ताका माळयेर व्हरून खाटीर न्हिदयलें.

पाय ऑफिसांत गेल्लो. मांयन पायक फोन केलो आनी चेडवाच्या नाकाची खबर सांगली. पाय  वेळ काडिनासतना

गाडयेंत बसून घरा आयलो. रुमांत वचून पळय जाल्यार चेडवाचें नाक एका मनशायेदे ंलांब जालां.

'कोशें जालें गो चेडवा? तुजें नाक इतलें कोशें सुजलें? कित्याक आपटोलें?'' पायन विचारलें.

''ना पाय. हांव शारांत रोप काडूंक गेलेलें. तिंगा बेश्टेंच नाक वोडलें जालें.'' सांगतां सांगता चेडवाच्या दोनाय दोळयांनी दुकां आयलीं. उजवो दोळो एका नोकरान पुसलो. दावो दोळो दुसऱ्या नोकरान. मदीं नाक उबें आसलें.

'नाक दुखता गो बाय?' मांयन धुवेच्या माथ्यावयल्यान



हात ओडलो.

"ओय मांय. बितोर कितें तोपता. नाकाची ही पुडी बोंद जाल्या. जीव फुगार जाता" चेडवान रडत रडत मांयक सांगलें.

पाय नोकरांचेर तापलो - 'चोयताय कितें रे? वोयर चोडाय आनी त्या बुरकांत कितें पोडलां जाल्यार चोयाय'.

नोकर गडबडले. खाटीर उबे रावून दोगा जाणांनी नाक घट्ट धरलें. तिसरो तांच्या खांदार पांय दवरून वयर चडलो आनी नाकांत हात घालो.

चेडवाक शींक आयली. 'आ.... क्शी' केले बरोबर तिगूय उसळून सकल पडले. नाकांतल्यान एक साडी आनी एक कातर भायर पडली.

'आतां मातशें बोरें दिसलें मांय!" चेडवान म्हणलें.

चेडवाची ती दशा पळोवन मांय रडटाली. मांय रडटा म्हणून पायक रडूंक येतालें. तीं दोगांय रडटात म्हणून सगले नोकर रडटाले. सगळीं रडटात तें पळोवन चेडूं व्हडाव्हडान रडटालें.

रडून रडून जेन्ना चेडवाच्या नाकांत उदक येतालें तेन्ना ताका नाक पीळून साफ करचें कशें दिसतालें. येद्या व्हडल्या नाकाक हात केदे जाय? आनी पुसपाक लेंस केदो जाय? मागीर ते नोकर नाका पुडयेंत तुवालो बुडोवन काडटाले

आनी मान्न्यांत व्हरून पिळटाले.

शेडों नाकाय बाय. हांव दोतोराक फोन कोत्तां." कितेंय उपाय जाता जाल्यार पोवया. पायन आपले दोळे पुसले आनी फोन घुंवडायलो." हॅलो दोतोर, मातसो बेगीन यो.... माज्या चेडवाचें नाक मुनशाइतलें लांब जालां.. हॅलो... कोशें जालें तें हांव नोकों.... रोप काडूंक गेलेलें त्या लोजार जालें खुंय..... मातसो फोन सोकोल दोवोर आनी सोगलीं वोखदां घेवन बेगीन यो."

पांच मिनटां भितर दोतोर चेडवाचे कुडींत पावलो. तें नाक पळोवन ताच्या कपलाक सात आंठयो पडल्यो. ताणें नाकाक चिमटो काडून पळयलें. चेडवाक दुखलें.

हें नाक भितरल्यान तपासचें पडटलें. दोतोरान सांगलें.

चेडवाक एके कुशीर न्हिदोवन नाक आडवें केलें तेन्ना नाकांतल्यान बालदीभर उदक गळ्ळें. दोतोरान टॉर्च पेटोवन भितर पळयलें. सारकें दिसना म्हणून हात भितर घालो. मागीर तकली भितर घालून सारकेंच तपासलें. पूण भायर सरच्या वेळार दोतोराक भायर सरूंक जमना जालें. नाकांत शिरकलो. दोनूय हात आनी तकली भित्तर जाल्यार पांय भायर हालूंक लागले. नोकरांनी पांयांक धरून ताका ओडून भायर काडलो आनी सोमतो मान्न्यांत व्हरून धुलो.

'तेका बेगीन मॅडिकलांत व्हर.' अशें सांगून दोतोर

गाडयेंत बसून गेलो.

मेडिकलांत वचपाक चेडूं तयार आसलें. पूण गाडयेंत बसूंक भियेतालें. परतून नाक सिटांमदी शिरकलें. जाल्यार...

गाडयेच्या माथ्यार चेडवाक बसयलें. नाक उबारून धरपाक दोग जाण नोकर मुखार उबे आसले. चेडूं भियेता म्हूण गाडी सवकास चलताली. येतल्यो वतल्यो मोटारी, बसी थारोवन लोक चेडवाक पळोवंक लागले. रस्त्यार गाडयांची गर्दी जाल्ल्यान सगळयोच गाडयो सवकास चलपाक लागल्यो. चेडवाचे गाडये फाटल्यान खूब लोक चलून येताले.

शारांत चित्ररथाची स्पर्धा आसली. ते स्पर्धेतलो होय एक चित्ररथ अशें परिक्षकांक आनी लोकांकूय दिसलें. खऱ्याइतलें बरें नाक कलाकारांनी केलां अशें समजून तांणी त्या चेडवांक पयलें इनाम दिलें. पूण ताका त्या इनामाचें पडूंक नासलें.

गाडी मेडिकलाच्या दारांत पावली तेन्ना सगळे दोतोर काम सोडून भायर आयले. खाटींचेर न्हिदिल्ले दुखणेकार लेगीत उठून जनेलांतल्यान पळोवंक लागले.

चेडवाक गाडयेवयलें सकल देंवोवचे पयलीच दोतोरांनी सांगले - हें ऑपरेशन गोंयच्या खंयच्याच हॉस्पिटलांत जावचें ना.''

गाडी तशीच घुंवडायली आनी चेडवाक घरा हाडलें.

दुसरे दिसा खबरांपत्रांचेर तो चित्ररथ नासून खरेलें नाक म्हणपाची खबर लेगीत छापून आयली. हजारांनी लोक तें नाक पळोवपाक तांच्या बंगल्यार गेले. बंगल्यांत भितर लोक गर्दी करतात म्हणून चेडवाक भायर एका व्हडल्या झाडामुळांत हाडून बसयलें. रात जाली की भितर व्हरपाची वेवस्था केली.



बसी भरून भरून लोक येताले. चेडवाच्या म्हऱ्यांत फुलां, उजवाती, नाल दवरताले आनी नाकाक हात लावन पांया पडटाले. कांय लोक मेणवाती पेटयताले आनी दिमी घालताले.

तातू थंय वचून तांची मजा पळयतालो पूण आयणो भायर काडिनासलो.

गोंयभर गाजिल्ली खबर सोमीक आनी गोमीक

कळनासतना कशी रावत ? पेपरावयलो फोटो पळोवन आनी ती खबर वाचून तांची खात्री जाली तातू आयणो घेवन थंयच पावला जातलो म्हूण. तो आयणो तातूकडलो कसो उठोवचो हाजेर ते तकली खाजोवंक लागले.

हेवटेन चेडवाक सारकी न्हीद लेगीत पडनासली. बाबड्याक सारकें न्हिदूंक मेळनासलें. उदारें न्हिदले जाल्यार फॅनाचो वारो सरळ नाकांत वचून थंडी जातालीं. फॅन बंद केलो जाल्यार जळारां नाकांत वचून चाबताली. खंयचेय एके कुशीक न्हिदलें जाल्यार हुनीर, जल्ले, मुयो नाकांत वताल्यो. एके राती तर मांजर फाटीक लागलें म्हूण हुनीर धांवत नाकांत लिपलो. ताचे फाटोफाट माजर नाकांत गेले. चेडूं किळची मारीत उठलें, तेन्ना हुनीर तोंडातल्यान भायर



आयलो. पूण मांजर नाकांत शिरकलें. नाकाचे दुसरे पुडयेक घट्ट गुड्डो मारून चेडवाक नेटान वारो सोडपाक लायलो, तेन्ना मांजर फट्ट करून वण्टीर आपटलें.

चिंतून आनी रडून चेडूं एकाच दिसान भागलें; नाक मात तेदेंच उरलें. त्या नाकाफुडें चेडूं इल्लेशें दिसतालें.

गोंयच्या दोतोरांकडें तें नाक सारकें जायना म्हूण पायन मुंबयच्या नामनेच्या दोतोराक फोन करून आपोवन हाडलो. ह्या दोतोरान नाक परतून तपासलें. भायल्यान भितरल्यान नाकाचें जोक काडलें. पूण इतली लांब ताजेकडेन आवतां नासलीं. ताणे एक कोंडो हाडूक लायलो. तो नाकांत घालून नाक भितरल्यान तपासूंक लागलो. चेडवाक खातकुतल्यो जाल्यो आनी ताका एकदम शींक आयली. शिकेवांगडा दांडो वयर वचून नळयाक आपटलो आनी परतून येवन दोतोराचे तकलेर पडलो. दोतोर घुंवळ येवन जमनीर कोसळ्ळो. त्या दोतोराक सारको करपाक दुसरो दोतोर हाडलो.

शुध्दीर आयलो तेन्ना त्या दोतोरान सांगलें हांव इंडियेंतलो व्हडलो नाकाचो दोतोर. हांवें जायतीं नाकां सारकीं केल्यांत. पूण असलें नाक केन्नाच पळोवंकना. हें नाक म्हजेपरस व्हडलें. म्हजेकडेन जावचेंना. आयू एम् सॉरी.''

दोतोर रोकडोच तिकेट काडून मुबंय गेलो.

चेडवान रागान म्हणलें 'कोसले दोतोर हाडटाय रे पाय?

बोरोसो फॉरेनाचो दोतोर हाड.'

पायन रोकडोच फॉरेनाक फोन लायलो आनी अमेरिकेच्या सगल्यान व्हडल्या दोतोराक आपयलो. विमानांत बसून तो दोतोर गोंयांत आयलो. ताका हाडपाक पाय बरी ती गाडी घेवन विमानतळार गेलो.

खूब मोठो दोतोर. ताजे हात पांय आनी कुले इतले मोठे आसले की खोमीस आनी कलसांव तायट जातालें. एक एक पावल घालीत तो सवकास चलतालो. बेगीन चलल्यार ताचें सगळेंच मास वयर सकयल हालतालें. तो पायचे गाडयेंत बसलो तेन्ना गाडी एका अर्दान वाकडी जाली. ताका घेवन घरा पावतासर वाटेर दोन पंक्चर जाले.

चेडवाचें नाक पळोवन ताच्यो भुंवयो वयर चडल्यो, आनी वोक्ल सकल देंवलें. नाकाचेर एकदोन हात मारून ताणे तपासिनासतना म्हणटलें 'इट्स इम्पॉसिबल!''

पायन ताका बरें करून तपास म्हूण सांगलें. आनी कांयच उपाय ना जाल्यार कातरून ल्हान करूंक सांगलें.

भितरल्यान तपासूंक जी पावरफूल लायट जाय पडटा ती फकत अमेरिकेक आसा. बॅट्रीचो दिवो पावचो ना अशें दोतोरान इंग्लीशीतल्यान सांगलें. पायन नोकरांक सांगून गाडयेच्या लायटीची वेवस्था केली.

चेडवाक घराभायर व्हरून जमनीर न्हिदयलें. गाडयेच्यो फूल लायटी पेटयल्यो आनी गाडी घुंवडावन दोनाय दिव्यांचो उजवाड दोनाय पुडयांनी पडटा अशी दवरली. त्या उजवाडान दोतोर नाक भितरल्यान तपासूंक लागलो. तो भितर वचूंक सोदतालो, पूण आंगान मोटो जाल्यान भितर कसोच जायना जालो. ताणे व्हडलो दवलो हाडूंक सांगलें. नोकरान वचून भात धवळपाचो व्हडलो दवलो हाडून दिलो. दवलो नाकांत गेलो, पूण भायर येना जालो. सगळ्या नोकरांनी वांगडाच धरून ओडलो तरी आयलोना. निमणे दवल्याचो दांडो गाडयेक बांदलो. नोकर चेडवांक घट्ट घरून रावले आनी गाडी चलयली. थोडो वेळ चेडूं आनी नोकर गाडयेवांगडा ओडत गेले आनी एकदम दवल्याचो दांडो सुटून भायर आयलो. कट्टी भितर उरली.

दोतोराचेर आकांत आयलो. आता ती कट्टी कशी काडप? चेडवान आपले परीन खूब प्रयत्न केले तरी ती भायर सरलीना. एका बारीकशा नोकराक हातोडी घेवन भितर धाडलो आनी कट्टी फोडून ताजे कुडके करून भायर काडले.

इतलें करता म्हणसर दोतोर घामान बुडलो. पायन दोतोराक नाक कातरूंक जातलें काय विचारलें. दोतोरान सांगलें, नाक कातरल्यार चेडूं मरतलें म्हूण. हें आयकून रडपाखातीर चेडवान तोंड उगतें केल्लें तें उगतेंच उरलें.

'आ..... आ......' करून ताणे दोतोराक म्हऱ्यांत आपयलो. दोतोरान माथें मारून नाक वयर उबारलें आनी तोंडांत नदर मारली. बॅगांतलो एक चिमटो काडून ताळ्यांत घालो, आनी कट्टेचो एक कुडको ओडून काडलो. उपरांत चेडूं जाय तशें रडलें.

दोतोर विमानांत बसून आयिल्लो तसो फॉरेनाक गेलो.

बरीच तकली लडयले उपरांत सोमीक आनी गोमीक एक आयडिया सुचली. विचारीत विचारीत ते त्या चेडवागेर गेले. दिसाळ्यांतलो फोटो दाखोवन पायक विचारलें,

हें चेडूं तुमगेर आसा?'

हय' पायन सांगलें, कित्याक तुमकां?'

ताचें नाक कशें लांब जालें तें तुमी जाणात?' सोमीन विचारलें.

लोजार उबें राविल्लेकडेन जालें. पूण तुमकां भुरग्यांक कित्याक रे त्यो खोबरी?'

ताचें नाक लांब कशें जालां तें आमी जाणात'. गोमीन म्हणलें.

कोशें जालें तें जाणा जावन कितें कोरपा आहा रे? कोशें सारकें जातेलें तें जाणा जाल्यार सांगाय'.

हय, आमी जाणात' दोगांयनी वांगडाच सांगलें.

पायन दोगांकूय भितर व्हरून व्हडले खुर्चेर बसयले. 'आतां सांगाय पोवया, कोशें सारकें जातेलें?

'आमचेकडेन एक जादवाचो आयणो आसलो. त्या आयण्यान उजवे वटेन वारो घाल्यार नाक लांब जातालें. तो आमचो आयणो तातू घेवन गेलो. ताणेंच तुज्या चेडवाचें नाक लांब केलें. ना जाल्यार वगीच नाक इतलें लांब जाता?' सोमीन बरें करून पायक सांगलें.

'आरे, सारकें कोशें जातेलें तें सांग रे.' पाय बेजारलो.

गोमीन सांगलें, त्याच आयण्यान दावे वटेन वारो घाल्यार नाक आसलें तशें ल्हान जाता.'

'तो आयणो खूंय मेवतोलो?' 'त्याच चोराकडेन आसूंक जाय. तो तुमचे बरेच दुडू खावंक सोदता जातलो' - गोमी

'तेका हांव कितलेय दुडू दिवपाक तोयार आसां. तेका मातसो घेवन यो.'



‘तो खंय आसा तें आमकांय खबर ना. ताका हांगा हाडपाक आमी एक आयडिया दितात. ती कर.’ - सोमी

‘सांग. चेडवाक लागोन हांव कितेंय कोरपी.’

पेपराचेर एक जायरात दी. जो कोण चेडवाचें नाक ल्हान करतलो ताका आपूण धा लाख रुपया इनाम दितलों म्हणून. तो धांवन येतलो’ - गोमी

तो हांगा येतलो तेन्ना आमी हांगा रावल्यार तुका एक पयसो दिवचो पडचोना. आमी सांगतात तशें मात करीत राव’ - सोमी

पायन दुसऱ्या दिसा दिसाळ्याचेर व्हडली जायरात दिली. मुज्या चेडवाचें नाक अचकीत लांब जालें. जो कोण तें आसलें तोशें ल्हान कोत्तोलो तेका हांव धा लाख रुपया इनाम दितोलों आनी चेडवाचें काजार तेजे लागीं कोरून तेका मुजो गिरेस्त जांवोय कोत्तोलों....’

तातू हेच खबरेची वाट पळयतालो. जायरात वाचून तो खोशयेन नाचूंक लागलो. आयणो बोल्सांत घालून त्या चेडवागेर गेलो. पायक म्हणूंक लागलो, हांव तुज्या चेडवाचें नाक आसलें तशें करून दितां. धा लाख रुपया मेजून दवर आनी काजाराची तयारी कर. हांव खात्रेन तुजो जांवय जातलों.’

पायन म्हणलें, ‘तूं गांवठी मुनीस कितें कोत्तोलो? व्हडले व्हडले दोतोर फेल जाले.’

तातून सांगलें, तें तुका नाका. हांव कशेंय करूं. नाक सारकें जालें म्हणटकच जालें. एका मिनटांत करतां. खंय आसा चेडूं?'

पायन तातूक चेडवाचे कुडींत व्हेलो. चेडूं खाटीर न्हिदून रडटालें.

तुमी सगळे कुडींतले भायर चलात. हांव कितें करतां तें कोणेंच पळोवंक जायना.' तातून सगळ्यांक कुडींतले भायर काडले आनी दाराक खिळी घाली. जनेलां घट धांपली. चेडूं पळयत म्हणून चेडवाच्या दोळ्यांक लेंस बांदलो. उपरांत बोल्सांतलो आयणो काडून फुलयलो आनी चेडवाचे दावे वटेन वचून नाकाक वारो घालूंक लागलो. ते बरोबर नाक इल्लें इल्लें ल्हान जावन सामकें पयलीं आसलें तशेंच जालें.



आलमारींत रावून सोमी आनी गोमी खांचीतल्यान हें सगळें पळयताले.

तातून आयणो दोडून बोल्सांत घालो, चेडवाच्या दोळयांचो लेंस सोडलो आनी चेडवाक उठून हारशांत पळय म्हणून सांगलें.



चेडवान उठून हारशांत पळयलें. नाक सारकें जाल्लें. सामकें आदी आसलें. तशेंच. चेडवान उमेदीभरशी एक उडकी मारली. दार उगडून पाय म्हऱ्यांत गेलें. पाय, पाय, पोय तेणें म्हाजें नाक एकाच मिनटांत सारकें केलें'.

पायच्या दोळयांतल्यान खोशायेचीं दुकां आयलीं. मांयन धुवेक वेंगेंत घेतली.

तातून म्हणलें, 'चल, म्हजे धा लाख रुपया म्हाका दी, आनी काजाराची तारीख आतांच थाराय.'

पायन तातूचे फाटीर हात मारून ताका शाबासकी दिली आनी म्हणलें, 'मुज्या चेडवाचें नाक तुयें सामकें केलें मुणोन इतली खोशी जाल्या की आमकां सोगल्यांक नाचोंव कोशें दिसता. आमी सोगली नाचया. एक वोडली पार्टी कोरया. आयज तूं आमगेर राव. जाय तितलें खा, जेय, पिये आनी इंगाच निदे. फाल्यां सोकार्यीं आमी काजाराची तारीख थारावया. मागीर तूं तुजे धा लाख रुपया घेवन वोस'.

तातून 'आं' म्हणलें.

पायन चेडवाक सांगलें, 'चोल मुजे धुये, तुज्या सोगल्या फ्रँडांक घेवन यो.'

चेडूं गेलें. पायन सगळया नोकरांक आपयले, 'तुमी सोगले पार्टेंचे तोयारेक लागाय. बोरें बोरें रांदून दोवराय.'' नोकर गेले.

रात जाली. घरभर चकचकीत लायटी पेटल्यो. संगीत वाजलें. पार्टी सुरू जाली. मेजार तरेतरेचे जिनस मांडून दवरिल्ले. जाय तें खावपाचें. जाय तें पिवपाचें. तातू पोटभर खातालो; नाचून नाचून जिरयतालो आनी परतून खातालो.

खावन खावन तातूक सुस्ती मारली ताचें पोट मोटें जालें. ताका न्हीद आयली. ताणें पायक सांगलें, आपल्याक न्हिदपाक एक वेगळी कूड जाय म्हणून. ते कुडींत आनीक कोणूच न्हिदूंक फावोना.

पायन ताचे खातीर वेगळी कूड पयलींच तयार करून

दवरिल्ली. सोमी आनी गोमी ते कुडींत लिपून राविल्ले.

तातून कुडीचें दार धांपून खिळी घाली. बोल्सांतलो आयणो काडून उशापोंदा दवरलो आनी न्हिदलो. हातुणार पडटांच ताका न्हीद लागली. तो घोरेवंक लागलो. घोरेता आसतना ताचें मोटें जाल्लें पोट वयर-सकल हालतालें. नाकांतल्यान आनी तोंडांतल्यान फर्रर्र फुर्रर्र करून वारो भायर सरतालो तेन्ना ताजे गाल आनी नाक फुलतालें.

सोमी आनी गोमी लिपिल्ले भायर आयले. ल्हवच उशापोंदचो आयणो काडलो, उगतो केलो आनी उदारो न्हिदिल्ल्या तातूक उजवे वटेन वारो घालूंक लागले. तातूचें नाक इल्लें-इल्लें लांब जावंक लागलें. सोमी ताच्या उशाम्हऱ्यांत बसून वारो घालतालो. वारो घालता तितलें नाक लांब जातालें. लांब जावन जावन नळ्यांक तेंकलें तरी सोमीन वारो घालपाचें सोडलेंना. नळे फुटून नाक भायर पावलें तरी सोमी वगी रावलोना. हात दुखसर ताणें वारो घालो. वयर-वयर वचून नाक मळबांत पावलें तेन्ना सोमीचे हात दुखले, तरी तातूक कांयच खबर नासली. तो घोरेता थंय आसलो. सोमीचे हात दुखले म्हणून गोमीन आयणो घेतलो. तो सोमीपरस नेटान वारो घालूंक लागलो. करतां करतां नाक सर्गाक तेंकलें. तरी तातू उठलोना. गोमी वारो घालीत रावलो.

सर्गांत देवांची बसका चलताली. सगळे देव वांटकुळे बसून धर्तरे वयल्यो खबरी करताले. मदींच हें नाक वयर

आयलें. सगळे देव त्या नाकाक पळयत उरले. हें आनी मदींच किर्तें वयर सरलें म्हणून एकामेकाक अजापान विचारूंक लागले. ती वस्त कसली हें एकाय देवाक पारखूंक आयलेंना. पूण तें वयर वयर येत रावतालें.

मुखेल देवान शिपायांक आपयले. तो खांबो खंयच्यान आयलो तें पळोवंक सांगलें.

मुखेल शिपायान बारिकसाणेन तपासणी करून देवाक सांगलें देवा, कसलो तरी खांबो पृथ्वीलोकांतल्यान वयर आयला. इल्लो इल्लो वाडत आसा.'

इतले म्हणसर खूब शिपाय थंय एकठांय जाले. मुखेल्यान एकल्याक वयर चडयलो. बुराकांत पळोवन ताणें म्हणलें, देवा, हो खांबो न्हय, हें कसलें तरी दोट्टी पायप. दोन खोल बुराक आसात. सामकें खोल. भितर काळोख आसा. दोनाय पायपांतल्यान हून वारो येता आनी गूर्रर-गूर्रर असो आवाज येता.''

इतलें जाता म्हळयार नाक बरेंच वयर पावलें. तो शिपाय वयर उरलो. ताणें बेगिबेगीन उडकी मारली, आनी देवांक सांगलें, देवा, धर्तरिवयल्या लोकांची ही आयडिया आसतली, आमकां काबार करपाची. फाटीं तांणी चंद्रदेवाचेर मनीस धाडिल्ले. आतां ह्या पायपांतल्यान सर्गांत येवंक सोदता आसतले. मरनासतना सर्ग पळोवंक सोदतात ते.'

देवांक हुसको जालो. सूर्यदेव वयर गेलो. आपलें वोत दोनाय बुराकांनी घालून बरो वेळ पळयलें. आनी सकल



येवन सांगलें, भितर म्हाका तांबडें कितें तरी दिसलें'.

मुखेल देव चिंतणेंत पडलो. हून वारो..... तांबडें.... आवाज. एकदम ताणें म्हणलें. 'उजो आसतलो तो. सर्ग लासून उडोवपाचो तांचो विचार आसतलो. उदक घालून उजो पालोवन उडयात.''

एका देवान सांगलें, 'इतलें उदक खंयचें हाडटले? पावसाचे दीस सोंपले. धर्तरेर पावस घालून सगळें उदक सोंपलें. हे तापीचे दीस'.

मुखेल देवान थोडो विचार करून म्हणलें, 'तीं दोनूय पायपां पुरोवन उडयल्यार कशीं?'

तिसऱ्या देवान सांगलें, पूण तें पायप व्हड व्हड जायत आसा. जितलें पुरयता तितलेंच वाडत रावतलें. आनी इतले

वयर कायली घेवन कोण वतलो? एकलो हनुमान कितल्यो म्हणून उडक्यो मारतलो?'

विचार करपाक वेळ वगडावं नाकात. खंयच्याय वेळार त्या पायपांतल्यान उजो येवं येता, विखाळ गॅस येवं येता. ना जाल्यार मनशांचें सैन्य येवं येता. कांयच सांगू नजो त्या मनशांचें. अशें करात. तें पायप मुळासकट कातरून उडयात''. -मुखेल देव.

ही आयडिया बरी आसा. पूण ताचें मूळ धर्तरेर आसा. आमी कातरता तितलें तें वाडत रावतलें' दुसरो देव.

मुखेल देवाक राग आयलो. रागान तांबडो जावन ताणें आवाज चडोवन म्हणलें -'ओडून वयर काडात' तें पायप आनी कातरून उडयात. बेगीन.''

सर्गांत आसले तितलेय शिपाय आयले. दांडे कोंडे बांदून नाक वयर उबारूंक लागले. सकल खाटीर न्हिदिल्लो तातू वयर वचूंक लागलो. पूण थोडें वयर उबारले उपरांत तें पायप परतून सकल देंवलें. तेबराबर तातू ढाण्ण करून खाटीर पडलो आनी कच्च करून जागो जालो. पळयल्यार आपलेंच नाक लांब जालां. सोमीक आनी गोमीक ताणें तिरशा दोळयांनी पळयले पूण उठूंक जायनासलें. नाकाच्या वजनापोंदा चिड्डल्लेवरी तो जाल्लो. हात-पांय खाटीर आपटीत तो व्हडाव्हडान आड्डूंक लागलो.

सर्गार शिपायांच्या हातांतल्यान तें पायप सुटून सकल

देंवता हें पळोवन हनुमानान आपली शेंपडी लांब केली. शेंपडी त्या पायपाक जाता तितली घट्ट बांदूंक लायली आनी आपणें वयर उड्डाण केलें. हनुमान वयर गेलो तशें ताचे शेंपडेक बांदिल्लें पायप वयर आयलें.

तातू बोबो - हुयेली मारीत हात-पांय हालयत वयर वयर गेलो आनी सर्गाक तेंकलो.

पायप आनीक वयर येना तेन्ना पायप सोंपलें 'म्हणून हनुमानाक समजलें. तशें ताणें वयर रावन व्हडान शिपायांक सांगलें, पायप सोंपलें, आतां कातरून उडयात. हांव अशेंच धरून रावतां'.

सर्गाक तेंकलो तरी तातू हुयेली मारीत आसलो. ताज्यो त्यो हुयेली सर्गावयल्या शिपायांक आयकूंक येताल्यो. शिपायांनी देवाक सांगलें, देवा, लोक बोवाळ घालतात तें आयकूंक येता.' देवान सांगलें, बेगीन कातरात'.

कोयते, कुराडी, खरवती घेवन शिपाय तयार आसले. सगळ्यांनी मेळून पायप रोखडेंच कातरून उडयलें.

नाक कातरले बरोबर तातू जो वयर हुमकळटालो तो तुटून मळबांतल्यान फातर कसो जमनीर पडूंक लागलो. पूण मदींच ताका वारो लागलो. त्या व्हांवत्या वाऱ्यान ताका खंय व्हरून उडयलो तो कोणाक मेळ्ळोना.

सोमी आनी गोमी आयणो घेवन रानांत गेले. सोमीन हतयाक उलो मारलो, हत्तीदा.... हत्तीदा....'

गोमीन उलो मारलो, हत्तीदा... हत्तीदा....'

हत्तयाची जाग ना. कितलो वेळ ते दोगूय उले मारीत रावले पूण हत्तीदा आयलोना. ते रानांत हेवटेन तेवटेन हत्तीदाक सोदपाक लागले. सोदतां सोदतां झाडांनी एके सुवातेर हत्तीदा पडिल्लो दिसलो. ताची सोंड सामकी ल्हान जाल्ली. हत्ती सामको बारीक जाल्लो. ताच्यान उठूंक जायना आसलें.

सोमीन बेगीबेगीन आयणो हतयाच्या कानांत सामको भित्तर हात घालून दवरलो.

आयणो कानांत घालतांच ल्हवुल्हवू हतयाची सोंड लांब जाली. बारीक जाल्लो हती आसलो तसो मोटो जालो. ताच्या आंगांत बळ आयलें. तो उठून उबो रावलो. म्हणूंक लागलो, शाबास भुरग्यांनो, शाबास! बरे पावले तुमी. आनीक मातसो वेळ केल्लो जाल्यार हांव तुमकां मेल्लो मेळपाचों'.

सोमीन म्हणलें, 'सॉरी हत्तीदा, आमकां माफ कर.'

गोमीन म्हणलें, 'त्या चोराकडसून आयणो हाडपाक आमी कसली आयडिया केली जाणा?'

आनी तातूची सगळी खबर दोगांयनी हत्तीदाक सांगली.

XXX







भरत नायक

दीपक पेडणेकार

पयलेच फावट कोंकणीक भौमान

□ जादवाचो आयणो □

*NCERT* चे 29 वे राष्ट्रीय सर्तींत

सर्वोत्तम बालसाहित्य पुरस्कार

लेखक : भरत नायक

चित्रकार : दीपक पेडणेकार